# एन फ्रँक

## चित्रांचें पुस्तक



लेखक - डेवीड अ. एडलर
चित्रां - केरेन रित्झ
कोंकणी अणकार – समिक्षा पै धुंगट
अणकार सहाय्य – कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय

# एन फ्रँक - चित्रांचें पुस्तक

लेखक - डेवीड अ. एडलर , चित्रां - केरेन रित्झ, कोंकणी अणकार – समिक्षा पै धुंगट

अणकार सहाय्य – कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय



एन फ्रँकाचो जल्म 12 जून, 1929 वर्सा फ्रँकफर्ट एम मेन, जर्मनींत जालो. ओट्टो आनी एडिथ फ्रँक ताचे पालक आशिल्ले. एनाक एक व्हडली भयण आशिल्ली, मार्गट.



एनचो बापूय एक वेपारी आशिल्लो आनी पयल्या म्हाझुजा वेळार सैन्य अधिकारी आसलो. ताचें कुटुंब शेंकड्यांनी वर्सां सावन फ्रँकफर्टांत रावतालें.



ओटो फ्रँक, 1916

कुटुंबाचो फोटो, 1900

एनचो जल्म सामक्या कठीण काळांत जालो. लाखांनी जर्मन लोक कामार नाशिल्ले. त्राशीक जीण जगतना तांणी नाझी पक्षाचो फुडारी ॲडॉल्फ हिटलर हांचे दुस्वासान भरिल्लें भाशण आयकलें आनी लोक अदीक अस्वस्थ जायत गेले. जर्मनीच्या अधोगती खातीर हिटलरान निरपराध लोकांच्या वेगवेगळ्या समुदायांक दोश दिलो. विविध गटांक, जर्मनीच्या समस्या खातीर, दोश दिले. चड करून याहुदी लोकांक.




एन, 3 वर्सांचें




जानेवारी 1933 वर्सा, वेंचणुके उपरांत, अॅडॉल्फ हिटलर जर्मनीचो चॅन्सलर जालो. मागीर याहुदी लोकांच्यो नोकऱ्यो गेल्यो. तांच्या उद्वेग-धंद्यांचेर बहिश्कार घालो. याहुदी लोकांनी बरयल्लीं पुस्तकां जळयलीं.

फ्रँक घराबो याहुदी आशिल्ल्यान तांकां आपलें घर आनी देश सोडचो अशें दिसपाक लागले. तें अॅमस्टरडॅम, हॉलंडांत गेलें, जंय तांकां सुरक्षीत आसतले अशें दिसलें.

ॲमस्टरडॅमांत एनालीं पयलीं कांय वर्सां शांततायेन गेलीं. एक फावट, मॉन्टेसरी शाळेंत ताच्या वर्गाक नाटक बरोवपाक सांगिल्लें. एनाचे तकलेंत तरातरांच्यो कल्पना घोळटाल्यो. नाटक बसयतना एनाची कुशळटाय आनी आत्मविश्वास पळोवन ताका व्हडली भुमिका दिली. फुडाराक एनान लेखक वा चित्रपट कलाकार जावपाचें सपन पळयल्लें.




एन मॉन्टेसरी स्कूलांत, 1935

धाव्या जल्म दिसा एन

एन आनी ताची इश्टीण सन्ने



ज्या दुस्वासा पासून फ्रँक कुटुंब जर्मनींतल्यान बचाव करून आयिल्लें, तो तांच्या फाटोफाट ताचे मेरेन पाविल्लो. 1939 वर्सा दुसरें म्हाझूज सुरू जालें. जर्मन सैन्यांनी एका फाटल्यान एक युरोपियन देश जिकलें. मे 1940 वर्सा, तांणी हॉलंडाचेर आक्रमण केलें.

आतां सुटका नाशिल्ली. नाझी सैनिकांनी रेल्वे स्टेशन आनी शिमेर घेराव घातिल्लो. जर एकाद्रो यहुदी भायर आयलो तर खंयूय वचपाक लागीं जागोच नाशिल्लो. एका देशा फाटोफाट एक-एक करून सगळया देशांनी यहुदी निर्वासीतांक आपल्या देशांत येवपाचेर बंदी घातिल्ली.

अॅमस्टरडॅमच्या यहुदी लोकांक तांची वळख पटची म्हूण तांच्या न्हेसणाचेर हळदुव्या रंगाचें नखेत्र लावपाक सक्ती केल्ली. तांकां नाटकघर, बाग, स्विमिंग पुलांत, वा मोटारगाडी चलोवपाक, रेलगाडी आनी सायकल चलोवपाक लेगीत मनाय आसली. डच शाळा यहुदी भुरग्यां खातीर बंद केल्ल्यो. एनाक मॉन्टेसरी शाळेंतल्यान भायर काडलें आनी यहुदी माध्यमीक शाळेंत धाडलें.







Anne


Anne's thirteenth birthday

एनचो तेरावो जल्मदीस

जून 1942 वर्सा, एनान आपलो तेरावो जल्मदीस मनयलो. ताका रिकामी पानांच्या पुस्तका बरोबर जायत्यो भेटो मेळ्ळयो. एनान तिका आपली डायरी करून तिचें नांव 'किटी' दवरलें.

आयतार, 5 जुलय 1942 ह्या दिसा, एनाले व्हडले भयणीक - मार्गट हाका कामगार शिबिरांत हाजीर रावपाचो आदेश आयलो. ह्या फॅक्टरींत ताका काम करचें पडपाचें.

थंय आनिकूय छावणी आशिल्ल्यो, जंय यहुद्यांक धाडटाले – अश्यो छावणी जंय तांचे हाल करून तांकां मारताले. जायते फावटीं यहुद्यांक एके छावणींतल्यान दुसरे छावणींत व्हरताले. जर नाझीच्या आदेशाक पाळो दिवन मार्गटाक तांचे सुवादीन केले जाल्यार तें तांकां परत केन्नाच दिसचें ना हें फ्रँक जाणां आशिल्लें.

हे टाळपा खातीर हें कुटुंब लिपून बसलें. ओटो फ्रँकान आपल्या कामाचे सुवातेर, इमारतीच्या वयल्या माळयाचेर गुपीत जोड कूड वा अपार्टमॅण्ट तयार केलो.



एन आनी ताच्या कुटुंबाक लिपपाचे सुवातेर कपडे व्हरपाची गरज आशिल्ली, पूण तांकां सुटकेस भायर घेवन वतना कोणें पळोवंक जायनाशिल्ले. ताचेवेल्यान तीं पळपाचो यत्न करतात हें रोखडेंच कळपाचें. सोमारा सकाळच्या पारार, एनान आपल्या आंगार दोन गांजीफ्राक, तीन जोडी कालसांव, एक खोमीस, स्कर्ट आनी एक जाकीट चडयलें. एनान आपले डायरींत बरयलें, “आमी आंगार न्हेसणाची रास चडयतात ते पळयल्यार आमी उत्तर ध्रुवा कडेन वचपाचीं आसात अशें दिसता."



मर्गोट, एन, एडिथ आनी ओटो

Margot, Anne, Edith, and Otto Frank



एनान आपले शाळेची बॅगूय घेतली. तें कपड्यां बरोबर ती घालूंक शकतालें, पूण ना. ताणें पुस्तकां, पोरणीं पत्रां आनी डायरी घेतली. “म्हाका म्हज्यो यादी कपड्यां परस चड म्हत्वाच्यो,” एनान उपरांत बरयलें.


Edith Frank एडिथ फ्रैंक
Peter Van Daan पीटर वॅन डॅन
Anne Frank
एन फ्रँक
Otto Frank
ओटो फ्रँक

गुपीत अपार्टमॅण्टांत फकत चार कुडी, एक न्हाणी आनी एक पोटमाळो आशिल्लो. फ्रँकांनी ते चार इश्टा मदीं वाटलें जे तांचे वरीच नाझी पासून लिपताले - श्री. आनी श्रीमती. वॅन डॅन, तांचो चलो पीटर आनी दांत चिकित्सक डॉ. अल्बर्ट दस्सल.



अपार्टमॅण्टा कडेन वचपी सोपाणां लिपोवपा खातीर उकती-बंद जावपी पुस्तकांची आलमार बांदिल्ली. जेन्ना फ्रँकांच्या इश्टांक कोणूय पळयनात म्हणून खात्री जाताली, तेन्ना तांकां अन्न, मासिकां आनी हेर वस्तू हाडून दिताले. हे धाडशी डच लोक आपलो जीव धोक्यांत घालत आशिल्ले. जर नाझींक कळिल्ले हे लोक याहुदींक आदार करतात जाल्यार ते तांकांच पयस कादयेंत धाडून दिवपाक शकताले.

कामकाजा वेळार, लोक सकयल कार्यालयांत आनी गुदांवांत आसतना एन आनी हेरांक वग्गी, कांयच आवाज करिनासतना रावचें पडटाले. ते फकत एकामेकांच्या कानांत फुतफुतूंक शकताले.





एनान आपल्या ल्हान कुडीचे वणटीर फिल्मांतल्या ताऱ्यांचीं छायाचित्रां दसयल्लीं. सुरवातीक तें खोशी आशिल्लें. ताणें आपले डायरींत बरयलें, लिपप म्हळयार "विचित्रशा बोर्डिंग घरांत सुटी मनोवपाक गेल्ले भशेन."

रोखडेच ताका वाज येवपाक लागलो. सदांच एक सारकेंच जेवण. आठ म्हयन्यां उपरांत एनान बरयलें, "आमी इतले हळसांदे आनी हर्कोट बीन्स खाल्यांत, आतां तांकां पळोवप पासून सोंसना." आनी तें सगळो वेळ त्याच त्याच लोकां बरोबर रावतालें. जायते फावट तांचे मदीं वादविवाद जातालो.



रातीं एनान मोठ्या हुंदरांच्या धांवपाचो भयानक आवाज आयकलो. ताणें सकयल्या माळयार चोर गुदांव लुट्टूना तोडफोड करता तो आवाज आयकलो. बरेच फावट सायरन, तोफखानो आनी बॉम्ब भायर फुट्टात तो आवाज ताणें आयकलो. लिपून बशिल्ल्या अठरा म्हयन्यां उपरांत एनान बरयलें, "हांव तळमळटां, सगळया गजालीं खातीर. तळमळटां... उलोवपा खातीर, स्वातंत्र्या खातीर , इश्टां खातीर, एकटें रावपा खातीर. आनी हांव तळमळत आसा ... रडपा खातीर!“

पूण एनाक तें नशीबवान म्हणपाचें खबर आशिल्लें. तीं लिपून रावतना, हेर यहुदी लोकांक नाझींनी धरिल्लें.








एना दोन वर्सां परस चड काळ लिपून रावलें. ताणें ताचे डायरींत झुजाची खबर आनी ताचे वांगडा लिपून रावपी पीटर वॅन डॅनाचेर ताचो वाडत वचपी मोगा विशीं बरयलें.

1944 च्या मध्या मेरेन, जर्मनी झूज हारपाक पाविल्लें. तीं आनीक मातसो काळ लिपून रावली जाल्यार सालवार जावपाक शकतात हें एना आनी हेरांक खबर आशिल्लें. पूण, शुक्रार, ऑगस्ट 4, 1944 ह्या दिसा तांचें नशीब फुटलें. नाझींनी तो लिपपाचो जागो सोदून काडलो आनी ते भितर घुसले.





एन आनी हेरांक बंद आशिल्ल्या रेल्वे गाडयेंत घालून पश्चिमे कडल्या हॉलंडांत वॅस्टरबोर्कच्या शिबिरांत धाडले. एका म्हयन्या उपरांत तांची दुसरे रेलगाडयेंत भरती केली. ताचें कुटुंब वेगळें जावपाक शकता, हें ओट्टो फ्रँक जाणा आशिल्लो. ताणें तांकां स्वित्झर्लंडांतलो एक नामो दिलो, जंय झुजा उपरांत तीं परतून मेळपाक शकतालीं.

दोन दीस आनी रातीचो प्रवासा केल्या उपरांत रेलगाडयेचीं दारां उगडलीं. तांकां पोलंडांत नाझी मरणा शिबिरांत ऑशविट्सांत व्हेल्ले. एनान शिबिराच्या प्रवेश दारा वयर चिन्न पळयलें, आर्बेट मच फ्रे - **"काम तुमकां मेकळें करतलें"**. पूण तें फट आशिल्लें.

कैदी ऑशविट्झांत आयले तेन्ना कांय जाणांची तेन्नाच्या तेन्ना मरणा खातीर 'निवड' जाली. हेर, एना सारके, कामा खातीर राखून दवरिल्ले. पूण शियांत इल्लेंशें जेवण आनी थोडे कपडे घालप तशेंच तांकां लोक मारताले आनी ताचेर खातिरूच तांकां मरण येताले.

एनाक बोडकें केलें. ताचें वजन कमी जालें, पूण एका स्त्री कैदीच्या म्हणण्या प्रमाण, जी औशविट्साचे कादयेंतल्यान वाटावल्ले बायल कैदीन सांगता ते प्रमाण, एना "अजुनूय उमेदी आनी सोबीत" आशिल्लें.




काम तुमकां मेकळें करतलें

ऑक्टोबरांत एनाक आनी मार्गटाक बेर्गेनबेलसेनांत व्हेलें. हें जर्मनींतलें एक शिबीर आशिल्लें जंय कमी जेवण आनी उदक आनी भरपूर दुयेंसां आशिल्लीं. मार्गट आनी एना टायफसाक लागून दुयेंत पडलीं. फेब्रुवारीच्या निमण्या वा 1945 मार्चाचे सुरवेक मार्गट आनी उपरांत एनाक दुयेंस आनी उपासमारीक लागून मरण आयलें. एन फ्रँक फकत 15 वर्सांचें आशिल्लें.





8 मे 1945 ह्या दिसा, युरोपांतलें झूज सोंपलें. झुजाचे मजगतीं, नाझींनी 60 लाख यहुदींची हत्या केल्ली. बळी पडिल्ल्या मदीं पंदरा लाख भुरगीं आशिल्लीं. 1940 वर्सा हॉलंडांत रावतल्या 120,000 यहुदी मदीं फकत 14,000 लोक जिते उरले. ॲमस्टरडॅमच्या गुपीत अपार्टमॅण्टांत लिपिल्ल्या आठ जाणां मदीं फकत ओट्टो जितो उरलो. त्या भायर नाझींनी दिव्यांग, मानसीक दुर्येती, भिकारी, रशियाचे झूजबंदीचे कैदी, रोमांनी, समलैंगीक आनी कम्युनिस्ट अश्या कोट्यांनी लोकांची हत्या केल्ली.

ऑट्टो फ्रँक ॲमस्टरडॅमांत परतलो. कोणाक तरी एनाची डायरी मेळ्ळी आनी ताणें ती ऑट्टोक दिली. ही डायरी पयले फावट 1947त प्रकाशीत जाल्ली. तेन्ना सावन 50 परस चड भासांनी ताचो अणकार जाला. हे डायरींतल्यान, झूज आनी विनाश, जगपा खातीर मनशाक फारीक करपाचें पडिल्लें मोल, पूर्वग्रह आनी दुस्वासाक लागून भोगच्यो पडिल्ल्यो यात्नांस हांची मनशाक शिकवण मेळटा.

हे तरेन योग्य मांडणी करून मनीस हत्येचो नरसंवार कोणें घडोवन हाडला हाचेर विश्वास बसप अजुनूय कांय लोकांक कठीण जाता. पूण जेन्ना ते एनाली डायरी वाचता तेन्ना तांकां खरेपणाची जाण जाता. आनी त्या सांवारांत बळी पडिल्ल्या एकल्या मनशाक ते वळखतात. ते म्हणल्यार एन फ्रँक.



# लेखकाची टीप

अॅम्सटरडॅमांतलो गुपीत अपार्टमॅण्ट आतां एक संग्रहालय जाला, जो लोकां खातीर उकतो आसा आनी एन फ्रँक फावंडेशन चलयता.

उपरांत एन फ्रँकाची डायरी म्हणून नांवा रुपांत आयिल्ली डायरी कोरे पानांच्या पयल्या भेट पुस्तकांत मुळांत दवरुंकूच नाशिल्ली. एनान 14 जून पासून 5 डिसेंबर 1942 मेरेन त्या पुस्तकांत बरयलां. हातूंत कांय 1943 आनी 1944त जोडिल्ल्यो टिपो आसात. दुसरो आनी तिसरो खंड आनी वेगवेगळीं सैल पत्रां लेगीत मेळळीं आनी ह्या सगळयांक एकठांय हाडून एन फ्रँकाची डायरी प्रकाशीत जाली. ही डच भाशेंत हेट अचरहुइस- द अनेक्स ह्या माथाळया खाला सगळयांत पयली प्रकाशीत जाली.

नाझींनी फ्रँकांक अटक केल्या उपरांत लिपून बशिल्ल्या जाग्यार मेळिल्ल्या कागदपत्रां मदीं, नांव बदलाची वळेरी आशिल्ली, जी एनान जर केन्नाय ताची डायरी प्रकाशीत जाली जाल्यार नियोजीत केल्ली. वॅन पॅल खातीर वॅन डॅन हें नांव वापरचें अशी ताची इत्सा आशिल्ली आनी ताणें फ्रेडरीक पेफरा खातीर अल्बर्ट दस्सल हें नांव वापरपाचें थारायल्लें. म्हज्या खातीर ही डायरी खास करून मार्मीक.

एन भशेनूच, म्हजे आवयचो जल्म फ्रँकफर्ट एम् मेन, जर्मनींत जालो. म्हजे आवयचें कुटुंब थंय शंबरांनी वर्सां रावलें. म्हजी आवय, तिचे आवय-बापूय, भयण आनी भाव हांच्या बरोबर नाझीच्या सतावणुकी पासून साल्वार जावपा खातीर अॅमस्टरडॅम हॉलंडांत रावपाक गेलीं. जर्मन आक्रमणा पयलीं, 1939 वर्सां, सुदैवान तांणी हॉलंड सोडलें.

ह्या पुस्तकांत उल्लेख केल्ल्या रोमानांक सामान्यतायेन जिप्सी म्हणटात, जें नांव बऱ्याच लोकांक अपमानास्पद दिसता.

डेविड ए. अडलेर<br>
15 जानेवारी, 1992

# म्हत्वाच्यो तारखो

1929 जून 12 ह्या दिसा फ्रँकफर्ट एम् मेन, जर्मनींत जल्म.

1933 ताच्या कुटुंबा वांगडा ॲमस्टरडॅम, हॉलंडांत रावपाक गेलें.

1939 दुसरें म्हाझूज सुरू जालें.

1940 मे 10 ह्या दिसा, जर्मन सैन्यांनी हॉलंडाचेर आक्रमण केलें.

1942 जून 12, एनाक ताच्या तेराव्या जल्मदिसा खातीर रिकामी पानांचें  पुस्तक दिलें. ताणें ती आपली डायरी केली.

1942 जुलय 6, फ्रँक कुटुंब लिपून बसलें.

1944 ऑगस्ट 4 ह्या दिसा, फ्रँक कुटुंबाक हेरा बरोबर गुपीत सुवातीचेर अटक केली.

1944 सप्टेंबर 3 ह्या दिसा, एन आनी हेरांक ऑशविट्सांत धाडलें.

1944 ऑक्टोबरांत एन आनी ताची भयण मार्गट हांकां बेर्गन-बेलसनलांत धाडलें.

1945 फेब्रुवारीच्या सोंपत्यार वा मार्चाचे सुरवातीच्या काळांत एनाक बेर्गन-बेलसनांत मरण आयलें.

1947 ***एन फ्रँकाची डायरी*** पयलें फावट प्रकाशीत जाली.